**ओरिएंट लाँगमन लिमिटेड**

**रजिस्टर्ड ऑफिस**

३-६-२७२ हिमायतनगर, हैद्राबाद ५०० ०२९

**हेर ऑफिसां**

कामाणी मार्ग, बॅलार्ड इस्टेट, मुंबय ४०० ०३८
१७ चित्तरंजन ॲव्हेन्यू, कलकत्ता ७०० ०७२
१६० अण्णा सलाय, मद्रास ६०० ००२
१/२४ असफली मार्ग, नवी दिल्ली ११० ००२
८०/१ महात्मा गांधी मार्ग, बंगळूर ५६० ००१
३६५ शहीद नगर, भुवनेश्वर ७५१ ००७
४१/३१६ 'गौर मोहन' अंबाडी लेन, चित्तूर रोड, कोचीन ६८३ ०४१
एस. सी. गोस्वामी रोड, पानबझार, गुवहाटी ७८१ ००१
३-६-२७२ हिमायतनगर, हैद्राबाद ५०० ०२९
२८/३१, १५ अशोक मार्ग, लखनौ २२६ ००१
सिटी सेंटर अशोक, गोविंद मित्र रोड, पाटणा, ८०० ००४



ISBN 81 250 0231 6

अक्षरजुळणी : ओमेगा एन्टरप्राइझेस, मडगांव गोंय ४०३ ६०१
छापपी : बिंदु आर्ट, मुंबय ४०० ०११
उजवाडावपीः ओरिएंट लाँगमन लिमिटेड,

# काणयो:
# देवांच्यो आनी मनशांच्यो
## पयलो वांटो

मूळ बरोवपी:
आर्. अमृतवल्ली

अणकारपी:
मनोहर पै-धुंगट



ओरिएंट लाँगमन

# मांडावळ

## १. काणयो कोणें सांगल्यो?



खूब खूब वर्सां पयलीं शंकर आनी पार्वती कैलास पर्वतार बसून सकयल जगा कडेन पळयत पळयत खबरो करतालीं. भगवान शंकरान बायलेक म्हळें, "तुजी कितेंय इत्सा आसा जाल्यार सांग. हांव तूं मागता तें दितां." पार्वतीन म्हळें, "हांगासर शांत बरें वातावरण आसा. म्हाका तुमचो सांगात जाय. हांगा बसून आमी सकयल पातळिल्ल्या जगाकडेन पळोवंया. तें करतना तुमी म्हाका एक नवी काणी सांगात. पूण ती हाचे पयलीं कोणेंच केन्ना आयकूंक नाशिल्ली अशी जाय." शंकरान म्हळें, "बरें आसा." पार्वतीन उठून

मंदिरा भायर पाऱ्याक उबो आशिल्ल्या शंकराच्या नंदीक आपोवन सांगलें, "हें पळय, हांव हांगा काणयो आयकत बसतां, कोणाकूच खंयचेच परिस्थितींत भितर सोडूं नाका." "बरें देवी," म्हूण नंदीन मान हालयली.

जी काणी नवी आसा, ती आपणा बगर दुसऱ्या कोणा कडेन पावची न्हय म्हूण नंदीचो कडक पारो दवरून ती काणी आयकूंक बसली.

कांय वेळान शंकराचो एक सेवक, पुश्पदंत, थंय पावलो. नंदीन ताका रोखड्या रोखडो आडायलो आनी सांगलें, "ह्या वेळार तुका भितर वचूंक मेळपाचें ना. पार्वतीमाता काणी आयकत बसल्या; कोणाक भितर सोडूं नाका म्हूण म्हाका आज्ञा केल्ले कडेन आसा." हें आयकना फुडें पुश्पदंतान विचार केलो, 'हो म्हाका आडायता म्हळयार खऱ्यानीच कसली तरी बरी काणी पार्वतीमाता आयकता जावंक जाय.' पुश्पदंत आपले योग शक्तीच्या आदारान लिपचोरयां भितर गेलो. शंकर-पार्वतीक दिश्टी पडनासतना तो थंय रावलो.

शंकरान जी काणी सांगूंक सुरवात केल्ली, ती नवी तर आशिल्लीच, पूण चमत्कारांनी उपाट भरिल्लीय आशिल्ली. पार्वती आनी पुश्पदंत कान लावन काणी आयकतना खोशी पावतालीं.

एक काणी सोंपले बरोबर पार्वतीन म्हणचें, "म्हाका असलीच आनीक एक काणी आयकन दिसता."

पार्वतीच्या आगऱ्याक लागून शंकर एका फाटल्यान एक काणी सांगत गेलो. ताणें सगळयो मेळून सात व्हड मुखेल काणयो सांगल्यो आनी तातूंत कितल्योशोच ल्हान ल्हान काणयो आशिल्ल्यो. ह्या सगळयांची मेळून सात व्हडलीं पुस्तकां जातलीं.

काणयो आयकून जातकूच पुश्पदंत व्हडले उमेदीन आपल्या घरा गेलो आनी जशो ताणें आयकल्यो तशोच त्यो आपले बायलेक-जयाक-त्यो सांगल्यो.

जयान विचार केलो, ह्यो इतल्यो बऱ्यो काणयो पार्वतीमातेक खूब आवडटल्यो. तिका सांगले बगर रावंक जायना. वेळ मेळना फुडें एक दीस जयान पार्वतीक त्यो काणयो सांगल्यो.

त्यो काणयो जया कडल्यान आयकना फुडें पार्वतीक राग आयलो. शंकरान नव्यो म्हूण सांगिल्ल्यो त्यो काणयो जया कडेन कशो पावल्यो? घोवान आपणाक फटयलें अशें तिका दिसलें. ती धांवतूच ताच्या म्हऱ्यांत गेली. आनी तिणें म्हळें, "म्हजे कडेन फट मारपाची कितें गरज आशिल्ली? एकय काणी नवी न्हय! सगळयो जयाक तोंडपाठ आसात." शंकराक अजाप जालें! जयाक कशो ह्यो काणयो येतात काय? हांवेंच तर त्यो रचल्यात आनी पयली वयली आयकुपी पार्वती!" मातसो विचार केले उपरान्त खरो प्रकार कितें तो शंकराचे भितल्ले नदरेक दिसलो. ताणें पार्वतीक सांगलें, "त्यो काणयो नव्याक

नव्यो हातूंत दुबाव ना. पुशपदंतान आमकां दिसनासतना येवन ह्यो काणयो आयकल्यो जातल्यो आनी उपरान्त आपले बायलेक सांगल्यो जातल्यो.''

पार्वतीक खूब राग आयलो. तिणें पुशपदंताक आपोवन हाडून ताका शाप दिलो, ''तुका देवभुमी सोडून वचचें पडटलें आनी तूं मनीस म्हूण जल्माक येतलो''.

पुशपदंताचो इश्ट माल्यवान थंय आशिल्लो. ताका वायट दिसलें आनी ताणें पार्वती माते कडेन उतर घालें, ''देवी, ताका गुन्यांव भोगोस. ल्हानशे चुकी खातीर ताका धांवडावं नाका.

''तूं कोण ताचे खातीर उतर घालता? तुकाय देवभुमी योग्य न्हय. तूंय बी मनीस म्हूण जल्माक येतलो. पार्वतीन ताकाय तापोवन काडलो. दोगूय जाण देवीच्या पांयां पडले आनी तांणी तिचे कडेन मागलें,''आमकां कायमचे थंय धाडूं नाका, आमकां हांगा परत येवंक मेळटा अशें कर''.

''बरें आसा. म्हजो शाप भोगूंक तुमकां देवभुमी सोडुंकूच जाय. पुशपदंता, मनीस लोकांत तुवें ह्या तुज्या इश्टाक सोदून काडून ह्यो काणयो ताका सांगूंक जाय, तेन्नाच शाप सोंपतलो आनी तूं परतो येवंक पावतलो. माल्यवाना, पुशपदंतान तुका सोदून काडून सगळयो काणयो तुका सांगल्या उपरान्त तुवें त्यो बरोवन काडूंक

जाय आनी सगळयां मेरेन पावोवंक जाय. सगळयां मेरेन त्यो काणयो पावले उपरान्त तुकाय हांगा परत येवंक गावतलें."

कांय दिसां उपरान्त पुश्पदंत आनी माल्यवान मनीस जल्म घेवन प्रिथुमेर पावले. प्रिथुमेर पुश्पदंताचें नांव जाल्लें वररुची म्हूण आनी माल्यवानाचें नांव जाल्लें गुणाढ्य म्हूण.

वररुचीक पुर्विल्ल्या जल्मान मेळिल्ल्या शापाचो उगडास जालो आनी तो आपल्या इश्टाचो सोद करूंक भायर सरलो. खूब वर्सां भोंवले उपरान्त ताका गुणाढ्य मेळ्ळो. आनी पूर्वजल्मीचो होच आपलो इश्ट माल्यवान अशें ताका दिसलें. ताणें गुणाढ्याक शंकरान घडोवन सांगिल्ल्यो सात काणयो सांगून उडयल्यो. ते बरोबर ताका मेळिल्ल्या शापाची बादा सोंपली. आनी तांकां देवभुमींत परत वचूंक मेळ्ळें.

गुणाढ्याचें काम बरेंच कश्टांचें आशिल्लें. वररुचीन सांगिल्ल्यो काणयो बरोवन काडपाचें काम पार्वतीन ताका दिल्लें. हें काम सोपें नाशिल्लें. ह्यो ज्यो काणयो आशिल्ल्यो, त्यो भुतांच्यो आनी वाऱ्यार भोंवपी पक्षांच्योय आशिल्ल्यो. मनशाक त्यो कळयो जाल्यार तांचीं तांकां नसाय जाताली. गुणाढ्यान काणी बरोवन काडली रे काडली, ती तांणी चोरून व्हरची! गुणाढ्य ती

परती बरोवन काडटालो. तांणी ती परती घेवन वचची. 'हें कशें शक्य आसा? म्हजे फाटल्यान अशे हे लागले जाल्यार म्हाका ह्यो सात व्हड काणयो केन्नांच पूर्ण करूंक मेळपाच्यो नात. हांगा एक काणी बरयले बरोबर ती नाच जाता.' देखून तो रातच्या वेळार लिपचोरयां रानांत उठून गेलो. भुतांखेतांनी ताका सोद सोद सोदलो. पूण तो तांकां मेळ्ळो ना. गुणाढ्यान तांकां फटोवंक आपणालो लिपपाचो जागो परतो परतो बदलचो. तो तांच्या हाताक कसोच लागलो ना. त्या अटंग्य रानांत गुणाढ्य काणयो बरोवंक बसलो. पूण ताणें बरोबर शाय हाडूंक नाशिल्ली. रानांत ताका शाय खंय मेळटली? शाय ना जाल्यार बरयतलो कसो?

बरोवंक तर जाय; मागीर करतलो कितें? आपणाल्या रगतानूच ताणें सात काणयो पानांचेर बरोवन काडल्यो. त्या काणयांचे सात लाख श्लोक जाले. आनी ते बरोवंक ताका सात वर्सां लागलीं. सगळीं मेळून सात पुस्तकां तयार जालीं. पार्वतीन ताका सांगिल्लें ह्या काणयांचो संवसार भर प्रसार जावंक जाय. तो प्रसार कसो करपाचो? ताणें आपल्या दोन शिश्यांक आपोवन हाडले. गुणदेव आनी नंदीदेव अशीं त्या शिश्यांचीं नांवां. तांकां ताणें सांगलें, "हीं पुस्तकां व्हरात आनी प्रतिश्ठानचो राजा सातवाहन आसा, ताका अर्पण करात." गुणदेव

आनी नंदीदेव सात पुस्तकां घेवन राजा कडेन गेले. सातवाहन राजान म्हळें, "हो ग्रंथ सात लाख श्लोकांचो आसा आनी तो रगतान बरयल्ल्यान म्हाका निखालूच नाका. हो ग्रंथ बरोवपी मूर्ख आसूंक जाय. घेवन वचात तो परतो." गुणदेव आनी नंदीदेव तो ग्रंथ घेवन दुख्खी मनान परते आयले आनी गुणाढ्याक तांणी सगळी गजाल सांगली. ताका भारी वायट दिसलें आनी खूब राग आयलो. "राजा आनी ताची प्रजा म्हज्यो काणयो



वाचिनात जाल्यार झक मारत गेले! जगांतले प्राणी ह्यो काणयो आयकतले.'' ताणें त्यो काणयो सवण्यांक आनी सावदांक सांगूंक सुरवात केली. गुणाढ्य आपल्यो काणयो वाचून दाखयता आसतना सवणीं आनी सावदां आयकत रावलीं. जेवण-खाण विसरून ताचे भोंवतणी बसून रावलीं. तांकां सगळ्यांक भायल्या जगाचो विसर पडिल्ले भाशेन जाल्लो. कानांत प्राण हाडून तीं काणयो आयकत रावलीं.

गुणाढ्याच्या आंगाखांदार सवणीं येवन बसूंक लागलीं. वाग, शींव ताचे म्हन्यांत पांयां कडेन बसून रावले. हती, सोंशे, चानयो सगळीं जाणा एकामेकांक वाट दीत आशिकुशींत गर्दी करून काणयो आयकत रावलीं. एक काणयांचें पुस्तक वाचून जालें ते बरोबर गुणाढ्यान तें उज्याचे भकीक अग्निकुंडांत उडयलें. दुसरें पुस्तक वाचूंक घेतलें. आनी वाचून जातकूच तशेंच उज्याचे भकीक घालें आनी तिसरें पुस्तक वाचूंक घेतलें.

हे वटेन रानांत हें सगळें चल्लां आसतनाच सातवाहन राजाक सुमारा भायर वायट जालें. प्रतिश्ठानच्या राजवाड्यांत न्हिदून रावचें पडलें. राज्यांतले बऱ्यांतले बरे वैज ताका तपासूंक आयले. राजाक मेळटा तें अन्न बरोबर ना अशें तांणी निदान केलें. जें मास ताचे खातीर शिजयतात तें ताजें नासता हें तांकां समजलें. राजाच्या

मुखेल मंत्र्यान रांदप्यांक तापोवन काडले. ते म्हणूंक लागले, "आमी तरी कितें करचें? शिकारी हाडून जें मास दितात, तें आमी शिजयतांत. तांकां हालींसराक बरें मास मेळना जालां." मुखेल मंत्र्यान शिकाऱ्यांक आपोवन हाडले. आनी तांकां तापोवन काडले. "आमी तरी कितें करूं सायबा? सगळया रानांत सोदल्यार सावदां गावनात. आसा तांच्या हाडांक काती लागल्यात. तीं कांयच खायनात, न्हीद पसून घेनात जाल्यार आंगार मास येतलें कशें?" मुखेल मंत्र्याक अजाप जालें. खायनात, न्हिदनात म्हळयार जालां तरी कितें! ताणें बारीक चवकशी सुरू केली. तीं दिसूयभर बसून काणयो आयकतात अशें ताका कळ‌ळें. काणयो आयकतात? असल्यो कसल्यो काणयो? "एक म्हातारोसो मनीस तांकां काणयो वाचून दाखयता आनी तीं आयकत रावतात-तान भूक विसरून. ताका लागून तांच्या आंगार मूठभर पसून मास उरूंक ना. दिशीं दिशीं ती सुकत चल्ल्यांत". मुखेल मंत्र्यान तें सगळें हांशार व्हेलें आनी ही गजाल राजाच्या कानार घाली. गजाल आयकना फुडें राजाक विचार पडलो, 'हो असलो काणयो सांगपी चमत्कारीक मनीस कोण आसूं येता?' "चला, आमी सगळें वचून ताका पळोवंया," अशें म्हणून राजा आनी ताचे बरोबर हेर कारभारी रानांत वचूंक भायर सरले.

रानांत पावतकूच तांकां जो दिसलो तो सामको

चकासूर करून उडोवपी देखाव! शिकाऱ्यांनी वर्णन केल्ले प्रमाण सगळें घडटालें. गुणाढ्य काणी वाचतालो आनी भोंवतणी सवणीं आनी सावदां मन लावन उतरान उतर आयकतालीं. तांकां कसलेंच भान नाशिल्लें. गुणाढ्याच्या तोंडांतल्यान येता तें उतर आपणाक चुकचें न्हय, इतलेंच तांकां दिसतालें. राजा आनी कारभारी शांतपणान आयकुप्यां मदीं वचून बसले.

इतले मजगतीं गुणाढ्याचीं स पुस्तकां वाचून जाल्लीं आनी ताणें तीं उज्याचे भकीक घाल्लीं. आतां तो सातव्या पुस्तकाचेर पाविल्लो. त्या पुस्तकाचें नांव 'बृहत्कथा' म्हळयार व्हड काणयो अशें आशिल्लें. तें वाचून सोंपले उपरान्त तो तें अग्निकुंडांत उडयतलो आसलो, इतल्यांत राजा मुखार धांवलो आनी ताका ताणें आडायलो. "म्हाका क्षमा कर म्हाराज, ह्या सवण्यांक आनी सावदांक जितली अक्कल आसा, तितली लेगीत म्हाका ना. हें तुजें उरिल्लें पुस्तक तरी म्हाका दी. ह्यो मोलावंक येनात अश्यो काणयो म्हजे प्रजे खातीर दिल्यार आमकां सगळयांक खोस जातली".

गुणाढ्यान व्हड आदरान तें पुस्तक राजाक भेट दिलें. पार्वतीन जें काम ताचेर सोंपयल्लें, तें पुराय जाल्लें. आनी ताका देवभुमीक परत वचूंक मेळळें.

सातवाहन राजान मोट्या दबाज्यान बृहत्कथा ग्रंथ राजवाड्यांत हाडलो आनी तांतल्यो काणयो परत्यो

परत्यो आयकून सगळ्यांक खोस जाली. आयज लेगीत बृहत्कथेंतल्यो काणयो उमेदीन लोक वाचतात. ह्यो काणयो शंकरान पार्वतीक सांगिल्ल्यो, पुश्पदंतान जयाक सांगिल्ल्यो, गुणाढ्यान पृथमीवयल्या लोकां मेरेन पावयल्यो. आनी त्या पुस्तकांतल्यान कांय तुमचे खातीर वेंचून हाडल्यात.



प्रधाना कडेन हाडलो; प्रधानान ताका राजाकडेन व्हेलो; राजा ताका घेवन राजकन्ये कडेन गेलो. राजकन्येन ताका विचारलें,

"तुवें खऱ्यांनीच कनकपुरी पळयल्या?"

"हय. हांव शिकतालों तेन्ना देशभर भोंवतालों. तेन्ना कनकपुरी पाविल्लों."

"तशें जाल्यार कनकपुरीक खंयचे वाटेन गेल्लो तें सांग पळोवया," राजकन्येन म्हळें.

"हांव पयलीं ह्रपूर म्हणटात त्या नगरांत गेलों. थंयच्यान वाराणशीक गेलों. भोंवत भोंवत पौंड्रवर्धनाक गेलों आनी थंयच्यान सरळ कनकपुरीक गेलों. ती भांगरा सारकी चकचकपी नगरी आजून म्हज्या दोळयां



मुखार येता.'' शक्तिदेवान बात मारलें. राजकन्येन एक व्हडलो हांसो मारलो, ''तूं म्हळयार सामको फटकिरो. तूं म्हाका फटोवंक सोदता? तुका आतां बुद्द शिकयतां,'' अशें म्हणून तिणें सेवकांक आपोवन ताका रस्त्यार आमडून घालो.

शक्तिदेवाक राग आयलो. ताका लजूय जाली. करूंक गेल्लों कितें आनी भोगचें पडलें कितें! ही कनकपुरी आसा तरी कशी? थंय पावप कशें? कसले लोक थंय रावतात काय? शक्तिदेव आतां हट्टाक पेटलो. कनकपुरी पळोवन येवपूच आनी राजकन्ये कडेन लग्न जावपूच अशें ताणें मनांत थारायलें. कनकपुरी सोदून काडटलोंच म्हूण निश्चय करून शक्तिदेव प्रवासाक भायर सरलो. चलत चलत तो विंध्य पर्वताचेर पावलो. हांगा सगळी पाचवीचार रुखावळ! दाट तर इतली, सूर्याच्या किर्णांक रिगूंक मेळनाशिल्लें. दीस-रात वाग-शिंवाची गरड आनी तांकां भियेवन धांवपी मेरवांच्यो , हरणांच्यो बी हुयेली. रान सोपून सोपना. शक्तिदेव आपलो चलत रावलो. तो सामको खरशेलो आनी ताका नाका पुरो जालें.

तो एका तळया म्हन्यांत पावलो. थंयच एक आस्रम आशिल्लो. थंय शक्तिदेव वच जाल्यार ताका एक खाड वाडयल्लो मुनी झाडा सकयल बशिल्लो दिसलो. हो मुनी बरोच म्हातारो जाल्लो. ताचे केंस आनी खाड पिकून धवें

फुल्ल जाल्लें. सूर्यतप ताचें नांव! शक्तिदेवान ताका नमस्कार केलो. सूर्यतपान ताका फळां बी खावंक दिलीं. आनी थोडो विसव घेवंक सांगलें. मागीर ताची चवकशी केली तेन्ना शक्तिदेवान म्हळें, "महाराज, हांव वर्धमानपुरा सावन आयलां आनी कनकपुरी नगराचे सोदीक वतां. कोणें आयकूंक ना, देखूंक ना अशी ही नगरी. हांव ती नगरी सोदून काडटलों आनी राजकन्ये कडेन लग्न जातलों म्हूण आसां. तुमकां कनकपुरी खंय आसा तें खबर आसल्यार म्हाका सांगात."

"पुता, हांव ह्या आस्रमांत आठशें वर्सां आसां; कनकपुरी हांवें आयकूंक ना, देखूंक ना. पूण हांव तुका एक मार्ग सांगतां. हांगाच्यान चोवीस मैलांचेर एक आस्रम आसा; थंय म्हजो व्हडलो भाव दीर्घतप रावता. तो म्हज्याकूय खूब जाणटो. ताका कनकपुरीची म्हायती आसप शक्य आसा." शक्तिदेवाक मातशें बरें दिसलें. तो चलत चलत दीर्घतपाच्या आस्रमांत पावलो. दीर्घतप मुनीक नमस्कार करून ताका विचारलें, "महाराज, म्हाका कनकपुरीक वचपाचें आसा. तुमी म्हाका थंय वचपाची वाट सांगशात?'

"पुता, हांवें कनकपुरी आयकूंक ना, देखूंक ना. म्हाका हांगा एक हजार वर्सां जालीं. जायत्या लोकांक हांव मेळ्ळां. कनकपुरीचें नांव हांवें केन्ना आयकूंक ना. पयस पयस खंय तरी आसतली. चड करून पयशिल्या जुंव्यार

आसतली. दर्यांत खूब पयस एक जुंवो आसा, ताचें नांव उत्स्थळ. थंय सत्यव्रत म्हणटा तो खारव्यांचो राजा आसा सत्यव्रताचें दर्यांत येवप-वचप आसता. ताका घडये कनकपुरीचें नांव खबर आसुंये. तूं अशें कर, हागाच्यांन पयलीं विटंकपूर वच, थंयच्यान वेपाऱ्यांचीं तारवां वतात, तांचेर चडून उत्स्थळ जुंव्यार वच.

शक्तिदेवान दीर्घतपाचे उपकार मानले आनी तो विटंकपुराक वचपाक भायर सरलो. खूब दिसांच्या प्रवासा उपरान्त आनी बऱ्याच प्रदेशांतल्यान भोंवतकूच तो विटंकपूर पावलो. थंय ताणें एका वेपाऱ्या कडेन इश्टागत जोडली आनी ताचे मदतीन एका तारवार चडून उत्स्थळ जुंव्यार वचपाक गेलो.

जुंव्यार पावपाक थोडी वाट आसा म्हळयार दर्याक व्हडलें मोड आयलें. मळबांत काळोख जालो, जोगलावंक लागलें, वारो तर सामको जोराजोरान येवंक लागलो. दोंगराचे उंचायेचीं ल्हारां तारवाक आदळूंक लागलीं. तारूं सुमारा भायर हालूं-धोलूंक लागलें. जोरान जें एक ल्हार आयलें, तातूंत तारूं वाऱ्यार उबलें आनी सकयल आपटलें. तारूं फुटून ताचे कुडके चोंय वाटेन पातळ्ळे. तांतलो म्हाल आनी मनशां जळीं मळीं शेंवटून पडलीं.

शक्तिदेव दर्यांत पडले बरोबर ताका एका व्हडल्या नुस्त्यान आख्खो गिळून उडयलो. तें नुस्तें पेंवत पेंवत उत्स्थळ जुंव्या लागसार पावलें. सत्यव्रत राजाचे लोक



हांगा नुस्तें पागूंक आयिल्ले. तांच्या जाळांत हें व्हडलें नुस्तें पडलें. इतलें व्हडलें नुस्तें तांकां पयलेच फावट मेळिल्लें. तांणी तें सत्यव्रत राजाकडेन व्हरून दिलें. राजाकूय येदें व्हड नुस्तें पळोवन अजाप जालें. ताणें तें कातरपाक आज्ञा दिली. तें कातरले बरोबर शक्तिदेव पोटांतल्यान जित्या जितो भायर सरलो. ताचो नवो जल्म जाल्ले वरी जालें.

राजाक आनी जमिल्ल्या सगळयांक अजाप जालें. राजान विचारतकूच शक्तिदेवान सगळी गजाल सांगली आनी आपणाक सत्यव्रता कडेन पावोवपाची विनंती केली. "आरे, सभाग्या, हांवूच तो सत्यव्रत आनी उत्स्थळ जुंवो म्हणटात तो होच. पूण आमी कनकपुरी आयकली ना, देखली ना. कितें तरी मार्ग काडुंया. आयची रात तूं हांगाच राव. फाल्यां सकाळीं उपाय सोदुंया."

दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें सत्यव्रत राजा शक्तिदेवा कडेन आयलो आनी ताणें सांगलें, "दर्याचे मदेंगत रत्नकूड म्हूण एक सोबीत बरो जुंवो आसा. थंय विष्णूचें मंदीर आसा. फाल्यां थंय व्हडली जात्रा भरपाची आसा. ते जात्रेक आयशिले पयशिले लोक येतले. त्या लोकांमदीं कोण तरी कनकपुरी विशीं जाणा आशिल्लो मेळटलोच. चल, आमी दोगूय त्या जुंव्यार वचुंया."

दुसऱ्या दिसा सत्यव्रतान एक ल्हान व्हडें काडलें आनी शक्तिदेवाक बरोबर घेवन ते दोगूय रत्नकुटाक वचपाक भायर सरले. दर्यांत मातशें पयस पावतकूच शक्तिदेवाक चकचकीत कितें तरी दिसलें. ताणें उमळशिकेन सत्यव्रताक म्हळें, "दर्यांतल्यान दोंगर कसो वयर सरला, थंय तरी कनकपुरी ना मू?"

"ना रे बाब! तुका दिसता तो एक खूब पोरणो वड आसा. ताच्या लागसार उदकांत खर भोंवरो आसा अशें म्हणटात. व्हडें बी सांपडल्यार उदकांत गरगरत रावता. उपरान्त तें भितर ओडटा आनी खोल दर्यांत नाच जाता." सत्यव्रताचें तोंडांतलें उतर तोंडांत आसा, इतल्यांत व्हडलो वारो सुटलो आनी व्हडें भोंवऱ्यांत वचपाक लागलें, हें पळोवन सत्यव्रत म्हणपाक लागलो, "आमी आतां सोंपले. हांतल्यान वाटावप शक्य ना. वारें आमकां मरणा कडेन ओडून व्हरता. म्हज्यान कांयच करूं नज. म्हाका म्हजें कांय पडूंक ना. तुजे प्रयत्न फुकट

वतले आनी वर्धमानाचे राजकन्ये कडेन लग्न जावपाची तुजी इत्सा पुरी जावंक पावची ना हाचें म्हाका वायट दिसता. तूं कितेंय करून तुजो जीव वाटाय. तें वडाचें झाड म्हन्यांत येना फुडें ताचे खांदयेक तूं हुमकळ मार. फुडें कितें जाता तें जावं."शक्तिदेवाची भियेवन गुळी जाल्ली. ताणें सत्यव्रतान सांगिल्ले प्रमाण वडाचे खांदयेक घट्ट धरलें आनी कसो तरीं वयर चडून गेलो. हे वटयां सत्यव्रताचें व्हडें भोंवऱ्यांत घुस्पून भितर गेलें आनी दर्यांत नाच्चं जालें. शक्तिदेवाक सामकें वायट दिसलें. तो आपल्या नशिबाक दुशण दिवंक लागलो. कनकपुरीक वचपाचें आपल्या नशिबांत ना अशें ताका दिसलें. सत्यव्रताक आपणा खातीर जीव वगडावचो पडलो म्हूण तो चड कश्टी जालो.

सुर्य धारेक गेलो आनी चोंय वाटेन काळोख पातळ्ळो. इतल्यांत शक्तिदेवान व्हडलीं गिदां उडत उडत येवन वडाचेर बसतना पळयलीं. हीं गिदां सुमारा भायर व्हडलीं आशिल्लीं आनी तांचो हिंड कांय ना म्हळयार हजारावयर आशिल्लो. शक्तिदेव एके व्हडले खांदये फाटल्यान लिपून रावलो. पळय जाल्यार तीं गिदां मनशाभाशेन उलयतालीं. शक्तिदेव कान लावन आयकूंक लागलो. खंय खंय वचून आयलीं हाच्यो खबरो तीं एकामेकांक सांगतालीं. एका म्हाताऱ्या गिदान म्हळें, "आयज हांव कनकपुरी वचून आयलों. फाल्यां



हांव थंय परत वतलों." कनकपुरी हें उतर कानांत पडना फुडें शक्तिदेवाक सुमारा भायर खोस जाली. अमृताचो शिंवर जाल्ले सारकें ताका जालें. ताचें सपन आतां आकार घेवंक लागिल्लें. ल्हवुल्हवू करून तो त्या पक्ष्यां म्हन्यांत गेलो. सगळीं न्हिदले उपरान्त तो ल्हवूच त्या म्हाताऱ्या गिदाचे फाटीर चडलो आनी ताच्या पाखाट्यांत लिपून बसलो. आनी सकाळ जावपाची वाट पळयत झेम काडूंक लागलो.

सकाळ जायना फुडें सगळे पक्षी उडत उडत भायर सरले. म्हातारें गीद कनकपुरी कडेन वचपाक वेगान

उडूंक लागलें. शक्तिदेव आंग चोरून ताच्या पाखाट्यांत वसून रावलो. वयर वयर पावतकूच शक्तिदेवाची तकली लागली घुंवंक. जोराच्या वाऱ्याबरोबर सकयल पडटा काय जालें. पूण ताणें धीर सोडलो ना. पक्षी उडत रावलो. अखेर शेवटाक शक्तिदेवाक पयशिल्यान एक जुंवो दिसलो. 'तीच कनकपुरी, भांगराची नगरी आसूंक जाय,' ताणें चिंतलें. आतां गीद चड बेगीन बेगीन उडटाले आनी जुंव्या कडेन पावना फुडें ताणें एक प्रदक्षिणा घाली आनी अचळय तो त्या जुंव्या वयले एके बागेंत देंवलो. शक्तिदेवान पुट्ट करून सकयल उडकी मारली आनी बागेंत भोंवतना जाल्ले कश्ट विसरलो. इतल्यांत ताची नदर दोन चलयो फुलां तोडटालीं तांचेर गेली. त्या चलयांचे फाटीक पाखां आशिल्लीं. त्यो परी आशिल्ल्यो. शक्तिदेवाक पळोवन त्यो मातशो भियेल्ले भाशेन जाल्यो. शक्तिदेव तांचेकडेन आर्जवी उतरांनी उलयलो. त्या पऱ्यांनी ताका आपले राणयेकडेन व्हेलो.

ह्या पऱ्यांची राणी आशिल्ली चंद्रप्रभा. एका सामान्य मनीस प्राण्याक दिव्य लोकांच्या राज्यांत पळोवन तिका अजाप जालें. "तूं कोण? हांगा तूं कसो पावलो?" तिणें शक्तिदेवाक हडबडावन विचारलें. शक्तिदेवान आपणालें नांव, गांव आनी हेर सगळी गजाल सांगली. आनी कितल्या कश्टांनी भांगराचे नगरींत पावलो तें सांगलें. चंद्रप्रभेन आपणाली गजाल सांगलीः "हे

नगरीचो राजा शशिखंड. आमी चार भयणी ताच्यो चलयो. हांव सगळयांत व्हडली- चंद्रप्रभा. चंद्ररेखा, शशिरेखा आनी शशिप्रभा ह्यो म्हजे फाटल्यो भयणी.

"एकदां ह्यो तिनूय भयणी न्हंयंत न्हावंक गेल्यो. हांव फाटल्यान घरा राविल्लीं. न्हंयचें उदक थंड बरें आशिल्लें. म्हज्यो भयणी एकामेकांच्या आंगार उदक उडयत खूब वेळ खेळत रावल्यो. त्याच वेळार अग्रतपस मुनी न्हावंक आयिल्लो. ताच्या आंगार म्हज्या भयणींनी उदक उडयलें. मुनीक राग आयलो आनी ताणें स्त्राप दिलो, 'तुमी म्हजीं फकाणां केल्यांत. तुमकां सामान्य चलयो म्हूण जल्म घेवचो पडटलो. तुमी पऱ्यो उरच्यो नात.'

"म्हज्यो भयणी रडत रडत घरा आयल्यो. म्हजो बापूय धांवत अग्रतपस मुनी कडेन गेलो आनी ताणें ताची क्षमा मागली. स्त्राप परत घेवपाची मागणी केली. मुनीन म्हळें, 'म्हज्यान स्त्राप परत घेवं नज. तुज्या चलयांक कनकपुरीचें स्मरण सदांच उरतलें आनी जेन्ना मनीस प्राणी कनकपुरी पळयतलो, तेन्ना तांकां हांगा येवंक मेळटलें, इतलें हांव करतां, म्हज्या बापायक इतलें मानून घेवचेंच पडलें.

"स्त्राप बादून म्हज्या भयणींक पृथ्वीचेर जल्म घेवंक वचचें पडलें. म्हजो बापूय भोव दुख्खी जावन रानांत वचूंक गेलो. वतना, हें नगर म्हजे कडेन सोंपयलें.

तेन्नाच्यान हांव हांगाची राणी म्हूण राज्य करतां. एकदां म्हज्या सपनांत चंद्रिकादेवी आयली आनी तिणें सांगलें, एक मनीस येवन म्हजे कडेन लग्न जातलो. त्या दिसा सावन हांव ह्या मनशाची वाट पळयत आसां. तूंच म्हजो घोव आसतलो अशें म्हाका दिसूंक लागलां. जाता तितले बेगीन मंदिरांत वचून आमचें लग्न लावन घेवंक जाय."

शक्तिदेवान हे रोखडेंच मान्य केलें. चंद्रप्रभा राणी आशिल्लीच तशी सुंदर! शक्तिदेवाचें मन तिचेर गेल्लें. चंद्रप्रभा राणयेन म्हळें, "येता ते चतुर्दशीक हांव बापायक मेळपाक रानांत वचून येतां. तूं हांगा आयला तें सांगतां. आनी आमच्या लग्नाक ताची परवानगी घेतां. हांव बापायक घेवन येतां आनी त्याच दिसा आमी बऱ्या म्हुर्तार लग्न करुंया. ते मेरेन तूं आमचो सोयरो म्हूण हांगा राव."

हे भाशेन शक्तिदेव थंय रावंक लागले उपरान्त थोड्याच दिसांनी चतुर्दस आयली. चंद्रप्रभा राणी नोकर चाकरांक घेवन रानांत वचूंक गेली. शक्तिदेव एकटोच उरलो. चंद्रप्रभेन ताका सांगिल्लें, "आमी यो म्हणसर तूं हांगा राव. राजवाड्यांत जाय थंय यो-वच. फक्त मदले वाटेंतल्या कुडींनी वचूं नाका."

शक्तिदेव एकलोच उरिल्ल्यान ताका सामको वाज आयलो. तो सगले कडेन भोंवन पळयतालो. मदले वाटेंतल्या कुडींनी मात गेलो ना. निमाणें ताच्यान रावं

नज जालें. 'वचूं नाका म्हूण कित्याक काय सांगलां आसत?' असो विचार ताका बेजार करूंक लागलो. शेवटाक तो मदले वाटेन गेलो. थंय तीन कुडी आशिल्ल्यो. तो पयले कुडींत दार उगडून गेलो. थंय एका रत्नजडीत पलंगाचेर एक बायल न्हिदिल्ली. तिच्या तोंडावयलें पांगरूण काड जाल्यार ती बायल म्हळयार दुसरी तिसरी कोण नासून राजकन्या कनकरेखा, वर्धमान राजाची धूव, आशिल्ली. शक्तिदेवाक भारी अजाप जालें. राजकन्येचो स्वास चालू नाशिल्लो. जिचे खातीर



आपूण इतले पयस आयलों ती तर मरून पडल्या . हें गुमानीत कितें तें ताका कळना जालें. ताणें दुसऱ्योय दोन कुडी उगडून पळयल्यो. त्या कुडींतूय दोन राजकन्या मरून पडिल्ल्यो ताका दिसल्यो. तो तसोच राजवाड्याचे भायले वाटेन आयलो. थंय एक तळी आशिल्ली आनी कोनशाक एक सुंदर घोडो उबो आशिल्लो. हिरे-माणकांचें जीन ताचे फाटीर आशिल्लें. शक्तिदेवाक घोड्यार बसनशें दिसलें. ताच्या म्हऱ्यांत मात शक्तिदेव गेला, घोड्यान जी खोंट मारली...शक्तिदेव सामको तळयांत शेंवटलो. तळयाच्या उदकांत तो बुडलो. ताणें पेंवन भायर येवपाचो प्रयत्न केलो. थोड्या वेळान वयर जर यो, तर ताका आपूण वर्धमान नगराचे बागेंत पावलांशें दिसलें. खऱ्यांनीच तो वर्धमान नगरांत पाविल्लो. कनकपुरी गेली खंय? तो दुख्खी मनान बागेंतल्यान भायर आयलो. त्याच वेळार राजाचो नोकर धोल वाजोवन पेरगांव घालतालो, "कनकपुरी कोणें देखल्या आसत ताकाच राजकन्या माळ घालतली...ओऽ ओऽ" शक्तिदेव धांवत त्या सेवका कडेन गेलो आनी आपणें कनकपुरी पळयल्या म्हूण ताका सांगलें. सेवक ताका घेवन राजकन्ये कडेन गेलो. शक्तिदेवाक पळयले बरोबर ती म्हणूंक लागली, "हो फटकिरो परत म्हाका त्रास दिवंक हांगा आयला. म्हजो वेळ वगडावं नाका,

पयलीं हांगाच्यान चलूंक लाग."

शक्तिदेवान जाप दिली, "हांव कनकपुरीक वचून आयलां. हांव खरें काय फट सांगतां तें तुका कळटलें. म्हाका एक सांग, कनकपुरींत मेल्ले अवस्तेंत आशिल्ली तूं हांगा जिती जागती कशी? हो जादू कितें तें म्हाका कळना जालां."

हें आयकना फुडें राजकन्या कनकरेखा बापायक म्हणूंक लागली, "हाणें खरीच कनकपुरी पळयल्या. हांव हाका माळ घालूंक तयार आसा." तिणें शक्तिदेवाक सांगलें, "एका मुनीन म्हाका स्त्राप दिल्लो. आनी ताणें सांगिल्लें, जेन्ना एक मनीस कनकपुरींत म्हाका मेल्ले अवस्तेंत पळयतलो, तेन्ना स्त्रापाचो बाद सोंपतलो. शक्तिदेव, तुवें म्हजी आनी म्हज्या भयणींची सोडवणूक केली."

राजकन्या कनकरेखा राजाक म्हणूंक लागली, "बाबा, ह्या मनशा कडेन हांव लग्न जातलीं आनी म्हज्यो भयणीय ताचे कडेनूच लग्न जातल्यो; पूण आतां म्हाका म्हज्या निजाच्या घरा कनकपुरीक वचूं दी." इतलें म्हणटा म्हणसर ती नाच्च जाली.

राजवाड्यांतले सगळे लोक भोव दुख्खी जाले. हे घडणुकेचें तांकां अजाप जालें. शक्तिदेवाक जें दुख्ख जालें, तें सांगपाक येना. तो मोग करतालो ते राजकन्येची भेट जाली आनी रोखडीच ताका ती सोडून गेली. खंय गेल्या आसतली ती?

'कांय चुकूं नाका. कनकपुरींत ती गेल्या आसतली. बरें आसा. म्हाका आतां थंय वचपाची वाट खबर आसा. हांव तिका सोदून काडून तिचे कडेन लग्न करतलोंच,' अशें चिंतून शक्तिदेव कनकपुरीक वचपाक भायर सरलो. तो प्रवास करीत करीत विटंकपुरा पावलो आनी वेपाऱ्याच्या तारवार चडून उत्स्थळ जुंव्यार पावलो. थंय ताका जादूची तरसाद मेळ्ळी. तिचेर बसून तो कनकपुरीक उडत उडत पावलो.

चार परी, भयणी भयणी- चंद्रप्रभा, चंद्ररेखा, शशिप्रभा आनी शशिरेखा-ताची वाट पळयताल्योच. तांचो बापूय शशिखंडूय थंय आयिल्लो. ताणें शक्तिदेवाचें मनीस रूप बदलून ताका दिव्य रूप दिलें. ताचें नांवूय तांणी बदल्लें. नवें नांव दिलें शक्तिवेग!

शक्तिवेगान चारूय भयणीं कडेन लग्न केलें आनी कनकपुरींत तांचो संवसार सुखान चालू जालो.



## ३. त्रिविक्रमसेन आनी वेताळ

खूब खूब वर्सां पयलीं प्रतिश्ठान नांवाच्या नगरांत त्रिविक्रमसेन म्हूण राजा जावन गेलो. तो शूर वीर आशिल्लो आनी गिरेस्त आशिल्लो. ताची तुळा देवांचो जो राजा इंद्र, ताचे कडेन करताले.

त्रिविक्रमसेन राजवाड्यांत दिसपट्टी सभा भरयतालो. तो भांगराच्या सिंहासनार बसतालो आनी हजारांनी लोक ताच्या दर्शनाक येताले. कांय जाण किजिलां, कागाळयो घेवन येताले. कांय जाण पयशांची मदत मागूंक येताले वा गांवांत बांय जाय, रस्ते जाय बी सांगूंक येताले.

राजा सगळयांचें म्हणणें लक्ष दिवन आयकतालो आनी प्रस्न सुटावे करतालो. ताच्या निर्णयाचेर खोशी जावन सगळे जाण परत वताले.

कांय जाण ताका बेश्टे मेळून बरें मागून वताले. ते राजाक तरेतरेच्यो सागवादी घेवन येताले आनी आपणालो ताचे वयलो मोग परगटायताले.

क्षान्तिशील म्हूण एक भिक्षू असोच राजाचे भेटेक सदां येतालो. तो दिसपट्टो राजाक एक फळ दिवन वतालो. राजान तें फळ काडचें आनी भाण्डाऱ्या कडेन दिवचें. अशें नेमान धा वर्सां चलिल्लें. क्षान्तिशीलान हाडून राजाच्या हातांत फळ दिवचें, राजान काडून म्हऱ्यांत आसता त्या भाण्डाऱ्या कडेन दिवचें. एक दीस

क्षिन्तिशील सदांचे सारको राजाच्या हातांत फळ दिवन गेलो मात, वाड्यार पाळिल्लो एक ल्हान माकडाचो पोर थंय आयलो. आनी आशे भगता सारको त्या फळा कडेन पळोवंक लागलो. राजान तें फळ भाण्डाऱ्या कडेन दिवंच्या जाग्यार माकडाच्या हातांत दिलें. माकडान वेळ करिनासतना ताका घांस मारलो आनी तो तें खावंक लागलो. इतल्यांत त्या फळांतल्यान रत्नां सकयल पडपाक लागलीं. जमिल्ले सगळे जाण चकासूर जावन पळोवंक लागले. फळां भितर रत्नां कशीं पावलीं आसतलीं? हो भिक्षू कसो कितें रत्नां आशिल्लें फळ दिता?

त्रिविक्रमसेनान सकयल पडिल्लें रत्न हातांत घेवन पारखिलें. ताणें भाण्डाऱ्याक विचारलें, "आतां मेरेन मेळिल्ल्या फळांचें तुवें कितें केलें?"

हो भाण्डारी सामको प्रामाणीक आशिल्लो. "म्हाराज, हांवें केन्नाच एक सुद्दां फळ फोडूंक ना. भितर कितें कात आसा तें हांव नकळं. जशीं मेळत गेलीं, तशीं हांवें एके कुडींत तीं उडयलीं. हांवें दार उगडून तांचें कितें जालां म्हूण सुद्दां पळोवंक ना."

"चल, वच आनी दार उगडून पळय आनी फळाचें कितें जालां तें येवन सांग," राजान आदेश दिलो. भाण्डाऱ्यान कूड उगडून पळोवन राजाक येवन सांगलें, "धा वर्सां जाल्ल्यान एकूय फळ सारकें उरूंक ना. सगळीं

कुसून गेल्यांत. पूण थंय म्हाका चकचकीत रत्नां जमा जाल्ले कडेन दिसलीं. विंगड विंगड रंगाचीं आनी आकाराचीं हीं मोलावंक जायना अशीं रत्नां आसात. सुर्याच्या किर्णान तीं अदिकूच चकचकतालीं."

राजा भाण्डाऱ्याच्या प्रामाणिकपणाचेर खोशी जालो. "तूं खऱ्यांनीच उजू चालीचो मनीस आसा. तुवें फळ खालें ना आनी रत्नांकूय हात लायलो ना. राजाचें आसा तें राजा खातीर दवरलें. ताचें बक्षीस म्हूण क्षान्तिशीलान म्हाका दिल्लीं रत्नां हांव तुका बक्षीस दिवन सोडटां. सगळीं घेवन वच.

दुसऱ्या दिसा तो भिक्षू फळ दिवंक आयलो तेन्ना राजान ताका म्हळें, "साधुमहाराज, इतलीं सगळीं रत्नां तुमी म्हाका कित्याक दितात? तुमी हें जर सांगलें ना जाल्यार आयज हांव हें फळ घेय सारको ना."

भिक्षून म्हळें, "म्हाराज, हांव सांगतां; पूण आनीक कोणें तें आयकूंक जायना." राजान बाकिच्च्यांक पयस वचपाक सांगलें. आनी आपयले बगर येवं नाका म्हूण सांगलें. राजा आनी भिक्षू तितले उरले तेन्ना भिक्षून सांगपाक सुरवात केली: "म्हाराज, हांव एक जादू करपी. म्हाका एक मंत्रसाधना करपाची आसा. ते खातीर म्हाका शूर विराची मदत जाय. तुमच्यांनीच तशी मदत करूं येता अशें म्हाका दिसता. देखून तुमकां हांव म्हाका मदत करपाची प्रार्थना करतां." त्रिविक्रमसेनाक हें समजून

घेवपाची वान्सा जाली आनी ताणें भिक्षूक मदत करपाचें मान्य केलें. "हांव तुका तुजे साधनेंत यश मेळपाक कितें जाय तें करीन," राजान म्हळें. क्षान्तिशीलाक चड खोस जाली आनी ताणें म्हळें, "येता त्या वद्य पक्षांतले चतुर्दशीक, मसुंडे कडेन वड आसा थंय येवन म्हाका मेळात." राजान थंय येवपाचें कबूल केलें आनी क्षान्तिशील आपल्या कामाक गेलो.

"कांय दीस गेले. वद्य पक्षांतली सगळयांत काळखी रात- चतुर्दशेची रात्त आयली. मध्यान रात जाली. त्रिविक्रमसेनान निळो पोशाख आंगार चड्यलो. हातांत एक तरसाद घेतली आनी कोणाक सांगिनासतना तो राजावाड्या भायर गेलो. मसुंडेंत कसली बादा जावची न्हय वा संकट येवचें न्हय म्हूण कपलाक ताणें चंदनाचो तिळो लायिल्लो. राजा जेन्ना मसुंडे कडेन गेलो, तेन्ना कांय प्रेतां जळत आशिल्लीं. सगळे कडेन मिट्ट काळोख आशिल्लो. आशिकुशीन हाडां आनी गोबोर आशिल्लो. राजा अळंग तें माड्डिनासतना मुखार गेलो. त्रिविक्रमसेनाक आपूण वेगळयाच जगांत पावलां हाची कल्पना आयली. हो तर यमाचो दरबार! ताणें धिरान पावलां घालीं. इतल्यांत ताची नदर क्षान्तिशीलाचेर पडली. तो वडा सकयल उबो आशिल्लो आनी राजाची वाट पळयतालो. राजा ताच्या म्हन्यांत गेलो आनी ताणें म्हळें, 'साधू म्हाराज, सांगात तुमचें कितें काम आसा तें.'

"क्षान्तिशीलान वयर पळयलें. तो एकदम खोशी जालो. म्हाराज, तुमी वचन दिल्ले प्रमाण हांगा येवन म्हाका उपकारांत दवरला. आतां हांगाच्यान दक्षीण दिशे



कडेन तोंड करून चलत रावात. थंय एकोडें शिशाचें झाड तुमकां दिसतलें. त्या झाडा वयल्यान एक मेल्लो मनीस हुमकळटना दिसतलो. ताका घेवन हांगा येयात, जालें म्हजें काम. दिल्ल्या वचनाची याद दवरात आनी इतलें काम करांत."

"राजा दिल्ल्या वचनाक जागपी आशिल्लो. काम घाणयारें, तरी तो अनमनलो ना. दक्षीण दिशेक तोंड करून चलत रावलो. सगळे कडेन गुप्प काळोख! जळटा

त्या प्रेताच्या उजवाडान वाट दिसली जाल्यार दिसली. बरोच वेळ चलत वतकूच राजा शिशाच्या झाडा कडेन पावलो आनी झाडाचे वयले खांदये कडल्यान एक प्रेत हुमकळटालें तें राजाक हय-न्हयशें दिसलें. राजा झाडार चडलो आनी प्रेत हुमकळटालें ते खांदये म्हन्यांत गेलो. जे दोरयेन प्रेत बांदिल्लें, ती दोरी ताणें तरसादीन सप्प करून कापली. ते बरोबर प्रेत धबांयच करून जमनीर पडलें आनी तांतल्यान एक हुयेल आयली. त्रिविक्रमसेनाच्या काळजांत कांय वेळ धडधडूंक लागलें. 'आरे, हो मनीस जितो आसा. ताका-दुखलां जावंक जाय,' अशें ताणें चिंतलें. राजा झाडा वयल्यान देंवलो. प्रेत क़ांय हालचाल करिनासतना पडिल्लें. राजान प्रेताक हात लावन पळयलें. राजाचो हात लागले बरोबर तें व्हडल्यान हांसूंक लागलें. त्रिविक्रमसेनान पारखिलें, ह्या मेल्ल्या मनशाचे कुडींत वेताळान संचार केला जातलो, कांय चुकूं नाका. ताणें धिरान म्हळें, "हांसता कित्याक? चल, आमी हांगाच्यान वचुंया. बेश्टो वेळ वगडावं नाका." राजान तोंडांतल्यान उतर काडलां मात, प्रेत नाच्च जालें. तें एकदम वचून आसा तशें झाडाक हुमकळूंक लागलें. राजाक वेताळाची नाट समजली. उलोवंक तोंड उगडले बरोबर प्रेत आशिल्लें तशें झाडार वतालें. तोंड धांपून प्रेत व्हरपाचें, अशें येवजून राजा झाडार चडलो आनी दोर कापून तें सकयल उडयलें. प्रेत खांदार घेतलें आनी तो तोंड धांपून

चलूंक लागलो. वाटेर प्रेतांतलो वेताळ उलोवंक लागलो, "म्हाराज, हें जड प्रेत उबारून व्हरतना तुका कश्ट पडटात जातले. तुका वाज येवचो न्हय आनी तुज्या मनाची करमणूक करपा खातीर हांव एक काणी सांगतां, आयक तर."

## तीन तरणाटे नाजुकसाणीचे

"अंगदेशांत विष्णुस्वामी म्हूण एक गिरेस्त बामण रावतालो. ताका तीन पूत आशिल्ले. एकदां ताणें यज्ञ करपाचें येवजिलें. त्या यज्ञांत बळी दिवंक ताका एका कांसवाची गरज आशिल्ली. ताणें आपणाल्या पुतांक वेळे वयल्यान कांसव धरून हाडूंक सांगलें. तिगूय भाव वेळेर गेले. थंय तांकां कांसव मेळ्ळो. व्हडल्या भावान म्हळें, 'कसलो घाणयारो आनी बुळबुळीत रे हो कांसव! हांव हात लाय सारको ना. तुमच्यांतल्या कोणेंय एकट्यान ताका उबारचो पडटलो.'

'आमी तरी कित्याक ताका हात लायतले? तुका जशी ताची नसाय, तशी आमकांय बी,' दोगूय भावांनी म्हळें.

'आमच्या बापायक यज्ञा खातीर ताची गरज आसा. तेन्ना तुमी ताका उबारून घेयात. ना जाल्यार यज्ञ पूर्ण जावचो ना. तुमी कर्तव्य केलें ना म्हूण नरकांत पडटले,' व्हडल्या भावान म्हळें.

तें आयकून दोगूय भाव हांसले. 'तूं सगळ्यांत

व्हडलो; आमकां धर्म सांगचे जाग्यार तुंवेंय बापायची आज्ञा मानूंक जाय. ना जाल्यार आमचे पयलीं तूंच नरकांत वतलो.'

'तुमचें म्हणणें बरोबर आसा; पूण जेवणा खाणाचे बाबतींत म्हज्यो खोडी आनी हांव कितलो नाजूक तें तुमकां खबर ना?' व्हडल्या भावान म्हळें.

'म्हजेंय तशेंच आसा. हांव वासाचे बाबतींत सामको नाजूक,' दुसऱ्या भावान म्हळें.

'वा रे वा! हांव हाका अजिबात हात लावचो ना. हांव स्पर्शाचे बाबतींत नाजूक आसां. ताका लागून कापसाच्यो गादयो बऱ्यो काय वायट तें म्हाका रोखडें कळटा,' सगळयांत धाकट्या भावान म्हळें.

तिगूय भाव थंय झगडत बसले. सगळयांत नाजूक कोण? कांसव थंयच कुशीक उरलो आनी हांगा हांचीं झगडीं! तीं सोडोवपाक राजाची मदत घेवपाचें थारलें. ते तिगूय उठून विकंटपुराच्या प्रसेनजित राजा कडेन गेले. राजाक सगळी गजाल सांगून तांणी आपणां सगळयां भितर कोण नाजूक तें थारावपाक सांगलें. राजान म्हळें, 'हांव परिक्षा घेतां; पूण तुमकां कांय दीस म्हजे बरोबर हांगाच रावचें पडटलें.'

सगळीं कामां जातकूच राजा जेवंक गेलो. ताणें त्या तिगांयचीं पानां आपल्या शेजरा मांडूंक सांगलें. सगळयांच्या पानांत बरे बरे जिनस वाडिल्ले. साकर भात

बी आशिल्लो. सगळ्यांत व्हडलो भाव सगळ्यांनी जेवपाक सुरवात केली तरी ओगी बसून राविल्लो. राजान तें पळयलें आनी ताका विचारलें, 'तूं जेवंक सुरवात कित्याक करिना? साकरभात न्हिवतलो.'

"म्हाराज, ह्या साकरभाताक मसुंडेंतल्या धुंवराचो कसो वास येता. रागार जावं नाकात. म्हज्यान तो तोंडांत घेवं नज. म्हाका क्षमा करात." राजाक अजाप



जालें. ताणें पंगतीक आशिल्ल्या बाकिच्यांक विचारलें; कोणाकूच तसो वास येना आशिल्लो. साकरभातांत केशर, वेलची बी आशिल्ल्यान बरो वास येतालो. आनी हो सभागी नाक दाबून बशिल्लो. जेवन जाले उपरान्त राजान बारीकसाणेन चवकशी करपाक सुरवात केली.

तेन्ना राजाक कळळें की साकरभाता खातीर हाडिल्ल्या तांदळाचें भात पिकिल्लें तें शेत मसणभुंये शेजरा आसा. तेन्ना राजान म्हळें, "आरे, हो खऱ्यानीच जेवणाचे बाबतींत नाजूक प्रकृतीचो आसा. ताचे खातीर वेगळें जेवण तयार करूंक लायलें. जेवणा उपरान्त एक सुंदर बायल राजाचे आज्ञेन राजवाड्यांत आयली. राजान मदल्या भावाक आपयलो आनी ताका विचारलें, "तूं तरणे बायले कडेन लग्न करूंक तयार आसा?" मदल्या भावान चिमटेन नाक्क घट्ट दाबून धरलें आनी तो निर्नळून पडटासो जालो. 'तिका घेवन वचात पयलीं. तिच्या आंगाक बोकडेचो वास येता. त्यो गुट्टाणी म्हज्यान सोसूं नज.'

"सगळयांक अजाप जालें आनी मदल्याचो राग आयलो. इतले सुंदर, नटून थटून आयिल्ले बायलेक हो सभागी घाण येता म्हणटा! तेन्ना ती बायल मुखार आयली आनी तिणें सांगलें, 'म्हजी आवय हांव ल्हान आसतना देवागेर गेली. म्हाका बोकडेच्या दुदार वाडयली.' तें आयकून राजाक अजाप जालें. हो भाव वासाचे बाबतींत नाजूक प्रकृतीचो आसा अशें थारलें.

आतां उरलो तिसरो भाव. ताची परिक्षा घेवपा खातीर राजान सेवकांक एका पलंगाचेर बऱ्यो सात मोव मोव अशो गादयो घालूंक सांगलें. ह्या मोव मोव हातुळणाचेर चडून तिसरो भाव न्हिदलो. एक-देड घंट्या भितर तो

ागो जालो आनी 'हाय हाय ' करीत आड्डत उठलो. वक येवन पळयतात जाल्यार हो वळवळटा. तांणी ारीक पळयलें जाल्यार ताचे फाटीर दावे कुशीक तांबडो ळ उठिल्लो. तांणी ही खबर बेगोबेग राजाक सांगली. ाजान सेवकांक ताच्या आंगाक कितें तोपलें तें पळोवंक ांगलें . सगळ्यो गादयो बऱ्यो करून तपासूंक लायल्यो. ्क एक गादी काडून तपासली. सातवे गादयेच्या पोंदा ांकां एक केंस मेळ्ळो. ज्या जाग्यार तिसऱ्या भावाचे ाटीर दावे कुशीक वळ आयिल्लो, त्याच जाग्यार हो ेंस आशिल्लो. आनी वळाचो आकार आनी केंसाचो ाकार एक सारखो आशिल्लो.

"राजान जेन्ना हें पळयलें, तेन्ना ताका अजाप जालें. अब्बा! सात गादयांपोंदा आशिल्लो बारीकसो केंस ाका तोपलो आनी ताची न्हीद खळ्ळी. हो खरेलोच ाजूक प्रकृतीचो आसूंक जाय.'

"दुसऱ्या दिसा राजान तिगांकूय आपोवन हाडले ानी सांगलें, तिगूय सारकेच नाजूक. कोण चड आनी ोण उणो तें थारावंक येवचें ना. राजान तांकां ांगराच्यो भेट वस्तू दिल्यो आनी आपल्या राज्यांत दांकाळ रावंक सांगलें. ते तिगूय आपल्या बापायक, ाच्या यज्ञाक, कांसवाक बी विसरले आनी थंयच ावले. देवाक कितें दिसलें जातलें, कोण जाणा!"

इतली काणी सांगून जातकूच वेताळान

त्रिविक्रमसेनाक प्रस्न केलो, "ह्या तीन भावां पयकीं सगळयांत नाजूक कोण सांग पळोवया? तुका जर प्रस्नाची जाप खबर आसा, तर ती तुंवें सांगुंकूच जाय. ना जाल्यार तुजें कपल फुटून हजारांनी कुडके कुडके जातले."

बुदवंत राजान जाप दिली, "व्हडल्याक रांदप्या कडल्यान भात खंयच्यान आयलां तें समजुपाची संद आशिल्ली. मदल्याक ती सुंदर बायल ल्हानपणांत कसलें दूद पियेताली तें काडून घेवपाची संद आशिल्ली. तिसऱ्या भावाक मात फटोवप शक्यूच नाशिल्लें. ताचे फाटीर सगळयांनी पळोवं-येता असो वळ उठिल्लो. ताचो आकार सात गादया सकयल मेळिल्ल्या केंसा सारको आशिल्लो. देखून तिसरो भाव सगळयांत नाजूक!

राजाचें उलोवप मात जालां, ताच्या खांदा वयलें प्रेत नाञ्च जालें.

'हांवें उलोवन चूक केली.' राजान चिंतलें, 'पूण म्हाका जाप खबर आशिल्ली. हांव ओगी कसो रावतलों? कपल फुटून वचपाचो प्रसंग येतलो आसलो.'

त्रिविक्रमसेन आसा तसो शिशाच्या झाडा म्हन्यांत गेलो. पयलीं सारकें प्रेत हुमकळटा तें ताका दिसलें. परतो तो झाडार चडलो. प्रेत सकयल उडयलें आनी सकयल येवन ताणें तें आसा तशें उबारून खांदार घेवन वडा कडेन वचपाक चलूंक लागलो. थोडीशी वाट चलून गेल्ले

उपरान्त वेताळान उलोवंक सुरवात केली.

"म्हाराज, तूं एक शूरवीर बुदवंत आनी शांत मनीस आसा. म्हाका तूं आवडलो. तुका वाज येवचो न्हय म्हूण आनीक एक काणी सांगतां, आयक."

ताणें सांगूंक सुरवात केली.

## चार भावांची काणी

"खूब खूब वर्सां पयलीं कुसुमपूर नांवाच्या नगरांत विष्णुस्वामी म्हूण एक बामण रावतालो. ताका चार पूत आशिल्ले. ते वयांत आयले; तांचो विद्याभ्यास सोंपलो. इतल्यांत विष्णुस्वामी भायर पडलो. आवयूय फाटोफाट गेली. तांच्या दायज्यांनी तांचें सगळें लुटून तांकां उगडे उडयले. व्हडल्यान म्हळें, 'आमी आतां कितें करुंया? आमकां कोणाचो आधार उरूंक ना. अशे भाशेन दीस काडचे परस मेल्यार बरें!'

"दादा, असो उबगून वचूं नाका. तूं बुदवंत आसा. गिरेस्तकाये परस बुद्द व्हड. गिरेस्तकाय आयज आसा, फाल्यां ना. बुद्द म्हळयार सासणाची संपत्ती. ती वापरून गिरेस्तकाय जोडूं येता. ताचे खातीर आमकां अशा शास्त्रांत पारंगत जावचें पडटलें, जें शास्त्र कोणाक अवगत ना. त्या शास्त्राच्या बळार जाय तितली गिरेस्तकाय जोडूंक मेळटली.'

"व्हडल्याक बरी उमेद आयली. 'तुजें खरें आसा.

अशें खंयचें शास्त्र वा कला आमी शिकची?'

"चौगांनी विचार कर कर केलो आनी वेगवेगळ्या जाग्यार वचून कला संपादन करची आनी वर्सा उपरान्त तिस्कार मेळचें अशें थारायलें. ते प्रमाण ते वेगवेगळे दिशेक गेले. वर्स जाले उपरान्त थारायल्ले प्रमाण ते तिस्कार एकठांय जाले. कोण कितें शिकला, खंयची कला संपादन केली तें एकामेकांक सांगूंक लागले.

"व्हडल्यान म्हळें, 'खंयच्याय प्राण्याचीं हांडां जर म्हाका मेळ्ळीं, तर तांचेर मास हाडपाचें शास्त्र हांव शिकलां.' दुसरो म्हणूंक लागलो, 'हाडांच्या सांगाड्यार मास आसत जाल्यार कात आनी केंस दिवपाचें शास्त्र हांव जाणां.' तिसरो म्हणूंक लागलो, 'सांगाडो, हाडां, कात, मास आसत जाल्यार हेर अवयव निर्माण करपाचें शास्त्र म्हाका येता.' चौथो म्हणूंक लागलो, 'पुराय शरीर जर म्हाका मेळत, जाल्यार तातूंत प्राण घालपाचें शास्त्र हांव शिकलां.'

"चौगूय भाव उठून रानांत गेले हाडांचो सांपळो मेळटा जाल्यार पळोवंक. कांय वेळ भोंवतकूच तांकां हाडां दिसलीं. व्हडल्यान तीं एकठांय केलीं आनी तांचेर मास चडयलें. दुसऱ्यान कात आनी केंस आनी तिसऱ्यान सगळे अवयव तयार केले. तांचे मुखार शिंवाचें पुराय शरीर उप्रासलें. चौथो मुखार आयलो. फाटलो फुडलो कांय विचार करिनासतना ताणें तातूंत प्राण घालो. खरो खुरो

शींव तयार जाल्लो. ताणें वेळ करिनासतना चौगांय भावांचेर उडी घाली, तांकां सवकासायेन खावन उडयले



आनी तो जंगलांत गेलो."

काणी सोंपोवन वेताळान म्हळें, "राजा, आतां तूं म्हाका सांग, त्या चौगां मदलो सगळयांत चड गुन्यांवकारी कोण? तूं जाणा जाल्यार तुवें सांगुंकूच जाय. ना जाल्यार तुज्या कपलाचे कुडके कुडके जातले."

राजाक जाप खबर आशिल्ली आनी ताका ती सांगची पडली. "पयल्या, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या भावाक खंयचें

जनावर उप्रासतलें तें खबर नाशिल्लें. चौथ्यान शिंवाचो आकार मुखार पळयलो; पूण आपलें ज्ञान दाखोवंक तातूंत प्राण घालो आनी सगळयांचें मरण ओडून हाडलें. तोच चड गुन्यांवकार." राजाचें उलोवप सोंपलें बरोबर खांदा वयल्यान प्रेत नाच्च जालें आनी परतें शिशाच्या झाडाक वचून हुमकळत रावलें. त्रिविक्रमसेनाक तें परतें काडचें पडलें.

हे भाशेन वेताळ काणये फाटल्यान काणी सांगीत रावलो. ताणें तकलेची अदलाबदल जाली ताची, दादल्याची बायल कशी जाली ताची आनी हेर कांय चमत्कारीक काणयो सांगल्यो. काणी सांगून जातकूच तो प्रस्न विचारतालो आनी राजाक जाप दिवचीच पडटाली. जाप जाणा जावन तो उलयलो ना जाल्यार कपल फुटून ताचे कुडके कुडकें जावपाचे.

त्रिविक्रमसेनाक जाप येना अशें जायच नाशिल्लें. तो इतलो बुदवंत, विचार करूंक लागचे पयलींच जाप ताचे मतींत येताली. देखून ताका दर वेळा मोन्यांनी रावंक येनाशिल्लें. ताका लागून शिशाच्या झाडाकडेन परतें परतें वचचें पडटालें. क्षन्तिशीत राविल्लो त्या वडा कडेन पावपाची आशाच नाशिल्ली.

आतां मेरेन तेवीस काणयो जाल्यो. तितलेय फावटीं ताका मौन सोडचें पडलें आनी प्रेत परतें झाडाचेर वचून हुमकळळें तरी राजान प्रयत्न सोडले नात. वचन दिलां तें

पूर्ण करपाचे फाटल्यान तो लागिल्लो.

चोविसावे फावट वेताळान म्हळें,"म्हाराज, तुका परत परत येवपा-वचपाचो वाज येवंक ना दिसता. म्हाका मात सामको वाज आयला. देखून आतां हांव एक चमत्कारीक काणी सांगतां आनी कठीण अशें हुमाणें घालतां. विचार कर आनी उत्तर येता जाल्यार पळय." वेताळान तेन्ना काणी सांगली ती अशीः

## उदेल्ल्या पावलांची अदला बदल

"दक्षीण देशांत धर्मराज नांवाचो राजा आशिल्लो. ताचे राणयेचें नांव चंद्रावती. तांकां एक चली आशिल्ली. तिचें नांव लावण्यवती. दिसूंक खऱ्यांनीच सुंदर आशिल्ली ती!

"राज्यांत बंड जालें आनी धर्मराजाक बायलेक आनी चलयेक घेवन रातोरात पळून वचचें पडलें. रानांत भिल्लांकडेन लडाय जाली. तातूंत राजा मेलो. चंद्रावती आनी लावण्यवती परत परत जीव वाटावंक दुसऱ्या रानांत गेलीं. खावंक जेवंक कांय ना, आंगार आशिल्ले कपडे तितले. सदांच मोव मोव गालिच्यांचेर चलपाची संवय आशिल्ल्या पांयांक व्हाणो घाले बगर कांट्या कुट्यांनी चलचें पडलें. कांट्याकुट्यांनी चलून तांच्या पांयांतल्यान रगत येतालें. भोंवतां भोंवतां राणयेक एक तळें दिसलें. तातूंत साळकां फुलिल्लीं. तांकां खोस जाली

आनी तीं तळयाम्हन्यांत गेलीं. वतना तांकां हून हून रेंवेंतल्यान वचचें पडलें. पांय भाजताले, पूण तांणी पर्वा केली ना. तळयांतल्या थंड उदकान तोंड धुवन शितळ उदक पियेतकूच तांच्या जिवाक बरीच थाकाय आयली.

"त्या रानाच्या शेजरा रावपी एक वीर मनीस आपल्या चल्याक वांगडा घेवन शिकार करपाक थंय पावलो. त्या विराचें नांव आशिल्लें चंद्रसिंह आनी चल्याचें नांव सिंह पराक्रम. ते घोड्यार बसून वताले तेन्ना तांकां रेंवेंत उदेल्लीं पावलां दिसलीं. चंद्रसिंहान म्हळें, 'हीं पावलां तर दोन सुंदर बायलांचीं दिसतात. ह्या सुंदर बायलांतली जी तुका पसंत पडत तिचे कडेन तुंवें लग्न करचें अशें म्हाका दिसता. तुजें आतां लग्नाचें वय जालां. अनायासें सुंदर बायलां म्हन्यांत आमी पावल्यात. तेन्ना वेळ वगडावंया नाका.' चल्यान म्हळें, 'बाबा, हांव लग्नाक तयार आसां. पूण तुवेंय आतां लग्न करचें अशें म्हाका दिसता. म्हजी आवय मरून आतां बरींच वर्सां जाल्यांत आनी तेन्नाच्यान तूं एकलो एकसुरो आसा!' पुतान बरीच मनधरणी केले उपरान्त चंद्रसिंह लग्न जावपाक तयार जालो. तेन्ना चल्यान म्हळें, 'जिचीं पावलां ल्हान आसात, ती म्हजी बायल जातली. पावलांच्या आकारा वयल्यान ती ल्हान आसून म्हाका योग्य आसतली अशें दिसता. व्हडल्या पावलांची बायल जाणटी आसतली आनी तुका ती फावशी आसतली.'

"चंद्रसिंहान चल्याचें म्हणणें मानलें आनी दोगूय सुंदर बायलांच्या सोदीं गेले. पावलांचो माग घेत घेत ते अशोकाच्या झाडा म्हन्यांत पावले. थंय त्यो दोन बायलो तांकां दिसल्यो. चंद्रावतीक तांकां पळोवन आपल्या फाटल्यान भिल्ल आयले म्हूण भंय दिसलो. लावण्यवतीन आवयक धीर दिवन सांगलें, 'भियेवं नाका. हे कोण तरी सभ्य लोक दिसतात.' इतल्यांत चंद्रसिंह घोड्या वयल्यान देंवलो आनी ताणें म्हळें, 'भियेवं नाकात; आमचेर विस्वास दवरात आनी तुमी कोण, खंयच्यो तें सांगात. तुमी ह्या अटंग्य रानांत पावलीं कशीं?' चंद्रावतीक धीर आयलो आनी तिणें आपली सगळी गजाल सांगली. ती आयकून दोगांकूय खूब वायट दिसलें. ते त्या दोगांय बायलांक घेवन घरा परतले आनी कांय दिसांनी तांणी लग्नाची तयारी केली.

"चंद्रावतीचे पांय ल्हान आशिल्ल्यान सिंह पराक्रमान तिचे कडेन लग्न केलें. चंद्रावती चंद्रसिंहाच्या पुताची बायल जाली. आनी तिची चली लावण्यवती, जिचीं पावलां व्हड आशिल्लीं, ती चंद्रसिंहाची बायल जाली. तांणी आपसांत केल्ल्या थारावा प्रमाण हें घडून आयलें. ताका लागून जालें कितें काय म्हळयार, जी चली बापायची बायल जाली, तिची आवय चल्याची बायल जाली. आवय-धूव, सून आनी मांय जाली, वर्सा भितर दोंगांकूय चले जाले."

इतली काणी सांगतकूच वेताळान राजाक म्हळें, "राजा, तूं आतां म्हाका सांग, ह्या दोगांक जाल्ल्या चल्यांचें एकामेकाकडेन नातें कितें? तुका उत्तर खबर आसुनूय, तुवें सांगलें ना जाल्यार तुज्या कपलाचे कुडके कुडके जातले"

त्रिविक्रमसेनाक हाची जाप कशीच सुचना जाली. तो मोन्यांनी चलत रावलो. 'बरें जालें, आतां म्हाका वडा कडेन वचून म्हजें वचन पूर्ण करूंक तरी मेळटलें,' असो विचार राजाच्या मनांत आयलो. वेताळाक राजाचो विचार कितें चल्ला तें कळ्ळें आनी तो हांसलो. "विक्रम, म्हजें हुमाणें तुका सोडोवंक येना तर? राजा, हांव सांगतां तें आयक. हांव तुज्या बऱ्या खातीर तुका मौन सोडूंक लायतालों. तुका त्रास जाले तरी तुवें धीर सोडलो ना. हांव तुजेर संतुश्ट जालां. आतां हांव सांगतां तें बरें करून आयक.

"हो क्षान्तिशील दुश्ट बुद्वीचो जदुगार आसा. ताका एका मनशाचो बळी दिवपाचो आसा. तो तुकाच बळी दिवपाचो आसा. हांव ह्या प्रेतांतल्यान भायर सरून वतां. प्रेत मेळना फुडें भिक्षूक म्हाका परत आपयतलो. तो तुका आठूय आंगां तेकोवन साश्टांग नमस्कार घाल म्हूण सांगतलो. तूं तशें मात करूं नाका. ताकाच विचार, आठ आंगां तेकोवन साश्टांग नमस्कार कसो घालप? तूं दाखय, मागीर हांव करतां. तो तुका दाखोवंक बागवले

बरोबर तरसादीन ताची तकली कातरून उडय. हांव आतां वतां. हांवें सांगलां ताची घट्ट याद धर." इतलें सांगून वेताळ प्रेत सोडून गेलो.

त्रिविक्रमसेन प्रेत खांदार घेवन चलत रावलो. वेताळ आपणाक बरो आनी ताणें कितें सांगलां तें खरें अशें ताका दिसलें. राजा वडा कडेन पावलो. थंय क्षान्तिशील ताची वाट पळयत उबो आशिल्लो. ताणें थंय मंडल काडून दवरिल्लें. मदेंगत रगत शिंपडायल्लें. भोंवतणी दिवे पेटयल्ले. उजो पेटोवन हवन केल्लें आनी सगळें साहित्य जमयल्लें. त्रिविक्रमसेन प्रेत घेवन थंय पावना फुडें क्षान्तिशीलान ताची तोंडभर तुस्त केली आनी उपकार मानले. प्रेत सकयल दवरलें आनी न्हाण घालून फुलांच्यो माळो बी घाल्यो. तें व्हरून तयार केल्ल्या मंडलाचेर दवरलें आनी मंत्र म्हणून वेताळाक आपयलो. वेताळाची ताणें पुजा केली आनी राजाक सांगलें, "राजा, ह्या वेताळाक आठ आंगां तेंकोवन नमस्कार कर आनी तुका जाय तें मागून घे."

राजाक वेताळाच्या उपदेशाची याद जाली. "साधू म्हाराज, आठ आंगां तेंकोवन नमस्कार कसो करचो तें म्हाका खबर ना. मातसो तुमी दाखयात, हांव तसो करतां."

भिक्षू ताका दाखोवपाक जमनीर बागवलो. ते बरोबर राजान तरसादीच्या घायान ताची तकलीच कातरून उडयली.

वेताळ राजाचेर प्रसन्न जालो आनी ताणें ताका जाय तो वर मागूंक सांगलें. राजान म्हळें, "तूं प्रसन्न जालो; म्हाका आनीक कितें जाय? दिताच जाल्यार एक वर दी. तुवें त्यो चोवीस काणयो म्हाका सांगल्यो. आनी ही पंचविसावी. अशो पंचवीस काणयो पृथवीचेर जो आयकता, ताका त्यो आवडूं दी."

"बरें आसा. तुजे इत्से प्रमाण जातलें. ह्या पंचवीस काणयांचें नांव 'वेताळपंचविशी' अशें आसतलें आनी त्यो त्या नांवान प्रख्यात जातल्यो." इतलें सांगून वेताळ भायर सरून गेलो. त्रिविक्रमसेन राजवाड्यार परतलो.

उजवाडूंक लागिल्लें आनी नव्या दिसाची सुरवात जावंक लागिल्ली.



ओरिएंट लाँगमनचीं पुस्तकां:

- देखदिण्यो काणयो
- वावटळ आनी हेर काणयो
- अलिबाबा आनी हेर काणयो
- जादूची बाग आनी हेर काणयो
- काणयोः देवांच्यो आनी मनशांच्योः १
- काणयोः देवांच्यो आनी मनशांच्योः २



ओरिएंट लाँगमन

Kanyo Devancho Ani Manshancho, Book I (Konkani)
Tales Of Men and God, Book I (Konkani)
ISBN 81 250 0231 6

Rs.16.00